# सांगणें

म्हज्या साहित्याच्या पोरसांत कितली फुलां फुलतात म्हणून सांगू ? आबोली,जायो,कांदळां, वोवळां, साळकां, दसणे फुलां, गुलाबशेवंती, अशी जायती ! म्हज्या पोरसांत एक रुमडूय आसा. म्हज्या साहित्याच्या पोरसांत तुमी केन्नाय एक़ भोंवडी मारली जाल्यार म्हज्या साहित्याच्या पोरसाचो आनंद तुमच्याय काळजांत रिगतलो. तुमी तरातरांच्या वेव्हारांत घुस्पल्यात आसत. संवसारांत तुमी सामके बेजारले आसत. ना तर केन्ना केन्नाय समाजकारणांत,राजकारणांतूय बेजारले आसत. तेन्ना तुमी एक़ पावट म्हज्या पोरसांत येवन हीं तरांतरांची फुलां पळेयात आनी धादोस जायात इतलेंच तुमका सांगणें.

**तुमचो रामभाऊ**

हांस हांस हांसता चांफो
खोस हाडटा आसमंतांत
उमेदीन भरता सैम
परमळ सांडटा संवसारांत

फुलूंक लागलो चांफो म्हजो
ताळया ताळयांनी फुलांच फुलां
निर्शेलेलें काळीज म्हजें
उर्बेन आतां भरुन आयलां

सरलें सांवट संवसारांतलें
खोशेन मन फुलून आयलें
फुलता चांफो घोंसा घोंसान
जीवित म्हजें परमळीत जालें

फुलून आयलो चांफो म्हजो
सांडलो वास आसमंतांत
फुलां फुलांनी सोबलो चांफो
सुवास रिगलो अंतरांत

निराशेचे दीस सरले
खोशेचे कळे फुल्ले
परनळटांय चांफो म्हजो
दुःख सगळें उडून गेलें

आयलो भार सद्गुणांक
सरलो दुस्वास सुवासान
आनंदाचो सुगंध सुटलो
चांफो फुल्लो प्रांगणांत

दिका दिकांत आसमंतांत
चाफो फुलता अंतरांत

सुगंधान रंगलो चांफो
खोश्शेन चांफो दंग जालो
सुवास सुटलो सैमाक आतां
आसमंतांत रंग भल्लो

आशेची किर्णां फांकलीं
निर्शेणेची कुपां सरलीं
खंत गेली उबून पैस
जीणेंत आतां खोस आयली

चांफीच चांफी फुलतात रुखार
चांफीच चांफी झडटात गळार
हांसती फुलां फुलतात काळजांत
झडटात कितली खिणा खिणांत

भार येता चाफ्याक जेन्ना
घोसा घोसान सोब फुलता
घोसार येतना मोग मनांत
सगळो संवसार सोबीत जाता

सरलो जेन्ना भार सगळो
चाफो म्हजो एक्सुरोच उल्लो
भार येतलो परतून केन्ना
परतून फुलतलो चांफो केन्ना

अशेच आसचे मोगा खिण
वाट पळेत रावचेले
पुनव आसची पीठावरी
खिण येवचे मेळचेले

येवची भरती मोगाक आमच्या
नदरेक नदर तेन्नाच मेळची
मोगाळ म्होंवीं मनां आमचीं
अशींच वाटेर येवन मेळचीं

अशेच आसले मोगा खिण
मोव मोव म्होंवें जावचे
अशींच येवचीं लागी मनां
मोगा मिलन गोड जावचें

आडसाक उबे रावन तूं
तिरशी नदर जोखता कित्याक
लजता कित्याक अशें तूं
येवंक फुडें भिता कोणाक

हरशीच वाटेर राविल्लेवरी
कोणाची वाट तूं पळेता
नदरेक नदर मेळटांच यात
कित्याक नदर अशी चोरता

मेळना जर जायते दीस
मेळची आस लागता कित्याक
मेळत जर अचकित तूं
खोस अशी लिपयता कित्याक

सुन्न सुन्न मति खिन्न
मन उदास तुजेविणें
पयस आयज दोगांय आमी
जीणें जालें कठीण म्हजें

कांयच येना कळून आतां
येतात उगडास परते परते
जांच जाता जीवाक म्हज्या
कोणाक तरी कितें सांगचे

कळना घडलें अशें कितें
सांग म्हजें कितें चुकलें
कळून येना चूक म्हाका
सुख मात पयस जालें

मांडून भोग मनांत म्हज्या
खंय मदीच उठून गेलो
सुक्या सड्यार सांडून म्हाका
मोगा वझरो खंय गेलो

पळेत रावतां वाट तुजी
येशी परतून तूं केन्ना
वाट पळोवन सुजले दोळे
न्हिदेक पसून दया येना

अशेच जर घडचे आसलें
मन कित्याक फुलून आयलें
फूल वेलीर फुलतनाच
कित्याक अशें खुटून व्हेलें

फुलतले सोबीत कळयेक
निखड्डायेन पिसडूं नाका
सैमा आयिल्ले सोबितायेक
ओगीच असो भंगोव नाका

नस्ती धरुन वान्सा मनांत
संवसारार सांवार हाडूं नाका
निक्तेच फुटिल्ले कोमरेक तूं
नाखुट लावन खुटूं नाका

सोदतना सुख संवसारांत
घाल मेर वान्शेक तुजे
थंडाय मेळूंक जीवाक तुज्या
शुद्ध कर विचार तुजे

आयज रागान चार्फे म्हजें
लाल अशें कशें जालें
कोणे म्हळें कितें ताका
कित्याक अशे ओगीच तिडलें

रागार जरी चार्फे जालें
तेन्नाच तें सोबता खरें
उदेता रंग जेन्ना तोंडार
तेन्नाच तें खुलता बरें

सादें म्हजे सोबीत चार्फे
दुखांनी रोखडेंच भरता दोळे
आयलो जरी राग ताका
काळजान ते सादें भोळें

आयज आयली याद तुजी
दोळयां म्हज्या गळ्ळी दुखां
बावली आस अंतरांतली
भंगलीं ती आदली सुखां

गिळून ती दुखां आतां
करचें पडटा सवंग जगांत
लटकी खोस जरी तोंडार
खंत भल्ल्या खोल मनांत

मोगा रंग बेरंग जालो
निर्फळ जाली सगळी सपनां
कितें करचें आतां मना
कोणाक कांयच सांगूक येना

खुणेन जें सांगलें तुवें
कळळें ना म्हाका तेन्ना
येता आता कळून सगळें
टळून गेली वेळ जेन्ना

खंती जाता जीव आतां
वळख वेळार मेळ्ळी ना
कितलेंय जरी चिंतलें आतां
खिण गेल्ले परते येना

वेध लागले जीवाक म्हज्या
जाली पयस आतां जेन्ना
सोंदू खंय ते खिण आतां
सांडलेले ते परतून येना.

रीतें रीतें गीत म्हजें
वेर्थे कित्याक गांव आतां
उतर दिल्लें पोल जालें
सांगून किर्ते अर्थ आतां

अंतरातले म्होंव सरलें
फुलतनाच सुख बावलें
सादलें किर्ते दाखोवन मोग
जीणेंत म्हजे दुःख हाडलें

विणून विणून मोगाजाळ
कित्याक अशें सवंग केलें
गायलें तुवें मोगा गीत
सूर ताचे बेसूर जाले

आयले सपनांत आयज म्हज्या
म्हज्या मनांतले कोण एकलें
धंडाय घेवन आयलें जीवाक
काळीज उर्बेन भरुन आयलें

खिण खोश्शेन सारलेले
उगडास ते उप्रासले आदले
आगळें उर्णें कितेंय घडलें
निस्तरुन सगळें गेलें

जालें ल्हव मन म्हजें
खोश्शे ल्हारार धोलूंक लागलें
परते ते येतले खिण
आस मनांत जागोवन गेलें

गुन्याव कसलो केलो हांवें
कांयच कळून येना म्हाका
तरी दिसतांच तूं फुडें
दोळयां म्हज्या येतात दुखां

दिसतां सांगचे जायतें तुका
फुटना तोंडाक एकूय उतर
येता सांवट मुखार म्हज्या
पडटांच तुजेर म्हजी नदर

थाऱ्यार उरना मन म्हजें
मदींच मोडलो मोगा दाव
न्याय कठीण नियतीचो
मुमख्यानीं सोंसता हांव

चैन ना मनाक म्हज्या
दैना म्हजी सांगूंक येना
सांगचें दिसलें जरी तुका
तेंय म्हाका सांगूंक येना

प्रेम जें भर्ल्लें मनांत
दडलें खंय कळना म्हाका
विरलें तें खंय अशें
घडलें कितें कळना म्हाका

उतरां फुटना ओठांक म्हज्या
खंय रिगली कळना म्हाका
यादी त्यो निर्माल्य जाल्यो
बावल्यो कशो कळना म्हाका

आकुळ पिकुळं जीव जालो
गेल्ले खिण चिंतीत रावतां
उप्रासलो गोग-जेन्ना तो
घडत अशें कळळेंना तेन्ना

जाले आता मार्ग वेगळे
गेली दोशांय दोगाय जाणां
कशी सारची जीण आतां
दीस गेल्ले परते येना

मन आयज बेचैन म्हजें
वाट दिसना कांयच फुडें
दोळ्यांक लागना पाती म्हज्या
येतात विचार परते परते

खंय चुकली वाट आमी
कशी पडली अशी रानांत
व्हेलें सुख झोपोवन म्हजें
आयलो जेन्ना मोग रंगांत

सांज सांज जावन आयल्यो
यादी आदल्यो पयल्यो वयल्यो
दीन सरतांच अस्तगतेक
किर्णानी सजूंक लागल्यो

भाव दाटले अंतरांतले
मोतयांनी भल्ले दोळे
नदरेंतलें सुख देखलें
येवजून ते परते आयलें

तिन सांजचो किण्ण वेळ
उगडासांचो भल्ला मेळ
लागले दिवे घरांघरांत
भावनांचो चल्ला खेळ

रखरखित जीणेंत म्हजे
रसरशित फुलून यो
उडत उडत प्रेमा पाखान
घोंटेर काळजांत करुंक यो

म्हांवे करुन दोळे तुजे
गोड जीणें करुंक यो
मोगा ल्हारा ल्हारार बसून
गोपांत सुखां घेवंक यो

नटून थटून यो मोगा
आंगणांत म्हज्या नाचूंक यो
विसरुन वच सगळो संवसार
काळजांत वास करुंक यो






येतलें जाल्यार बेगीन यो
ओगीच वेळ काडूं नाका
सांग कानांत सांगचें तें
मनांत कांयच दवरुं नाका

लिपयलें जरी कितलेंय तुवें
चुकून उतर येता खरें
कितेंय जरी सांगलें तुवें
मनांतलें म्हाका कळटा बरें

दोगांय एक जावन आमी
संवसार सुखी करुया
मोगा ल्हारां घेवन आंगार
सुखा दर्यांत पेवंया

चंपा गो चंपा
यो म्हज्या गोपांत
लागीं मात्शे येवन तूं
पड गो म्हज्या मोगांत

थार धर रे मात्सो
राव रे मात्सो पेल्यान
फुलून येवंदी मोग सारको
मांडलो जरी वेल्यान

रांवक जायना मोगा म्हाका
वेगांत घेता तुका आतां
पयस पयस रावल्यार तूं
जीव म्हजो लागीं येता

लागीं लागी आयल्यार तूं
कोणूय कितें म्हणत दिसता
चड ताकतिक करशी तर
गडबड कितेंय घंडत दिसता

इतलो तुजेर मोग करुन
आनीक कितें जाय तुका
लिपोवन दवरुन मोग असो
काळजाक घाय करुं नाका

सादें म्हजें चाफें तें
जायना केन्नाच नेगार
सोसना ताका संवगां धंवगां
जाता तें सामकें बेजार

राग येता चाफ्याक म्हज्या
आगळे उणे उलैल्यार
तांबशें जाता रागान तें
कोणेय कितेंय म्हळ्यार

आगो चांफ्या धरुं नाका
मनांत तूं कांय तसलें
सदांच तूं मोगाचें म्हजें
कशेंच जरी तू आसलें

फुलून आयली दोन चाफी
एक धवें एक तांबशें
राग येता एकल्याक रोखडो
दुसऱ्या तोंडार सदांच हांशें

रागाक जरी वायट एकलें
वायट ताच्या मनांत ना
गोरें चाफें शांत सदा
दुस्वास केन्नाच करीना

आसली जरीं कशींय रंगान
सभावन तीं दोगांय बरीं
रुपान दोगांय आगळीं वेगळीं
सोबतात तरीं आपले परीं

कांदळां ओवळां परमळ जंय
घमघम रोजा चांफ्यांचो
थंयच आसा गांव आमचो
सोबीत गांव व्हड गोंयचो

माड माडयो पणस आंबे
शेतां–भाटां कुळागरां
थंयच आसा घर आमचें
येयात तुमी आमच्या घरा

तिट्यार भरता गांवचो बाजार
विकतात थंय भाजी फळां
व्हड वड आसा फुडें
थंयच मेळटात वासा फुलां

गांवांत आसा देऊळ सोबीत
घांट वाजोवन फुडें सरात
भावार्थ दवरुन मनामदें
देवतेक आमच्या पांया पडात






